# बजार

- वल्ली क्वाड्रस

आशावादी प्रकाशन



आशावादी प्रकाशनाचो पंचतीसावो बूक




## आशावादी प्रकाशनाचे बूक (२००२ थान्)

२००२

**आशावादी** (वल्ली क्वाड्रस)

२००३

**च्यार मुखां** (वल्ली क्वाड्रस), **जिविता सोभाण** (जोर्जि पींत), **खिळो** (वल्ली क्वाड्रस)

२००४

**कट्ट्पुत्ळि** (वल्ली क्वाड्रस), **कय्धाच्यो कविता** (एच्चेम पेर्नाल), **व्हळू व्हळू व्हाळ व्हाळ्या** (आंड्र्यू डि'कुन्हा)

२००५

**विंच्णार चिंताप अनि भग्णां** (जेम्मा पडील), **सतां आनि खतां** (वल्ली क्वाड्रस), **सर्गावय्लि मांय** (रोनाल्ड ओलिवेरा), **कंगल आनि ताचि कुक्केहळ्ळि** (वल्ली क्वाड्रस), **मोतियां आनि तारां** (वेवेग्ळे कवि), **कवितापाठ – १** (वल्ली क्वाड्रस)

२००६

**पार्टि गांवाक** (वल्ली क्वाड्रस), **बामुणांचें चेडुं** (एच्चेम पेर्नाल), **दर्भारांत्लि पिंर्गोण** (वल्ली क्वाड्रस), **दर्याक उदाक** (वल्ली क्वाड्रस), **सागोराच्या वाटेच्यो झरि** (वेवेग्ळे कवि)

२००७

**आडोसांत्लिं फुलां** (आस्टिन प्रभु), **आट्व्या रंगाचो धोणु** (मेल्विन जे. वास), **शिंपड्लेलिं मोतियां** (वेवेग्ळे कवि)

**मुखां पाट्लिं रुपां** (अनिल पेर्नाल), **मोळ्बावय्लिं स्वप्णां** (वल्ली क्वाड्रस), **कुल्कुलो** (सिज्येस ताकोडे), **तिंतेरांत पिंतुरां** (वेवेग्ळे कवि), **काळोक नात्ल्लो गांव** (वल्ली क्वाड्रस)

२००८

**म्होंव आनि मूस** (मेल्विन पिंटो नीरुडे)

२०१७

**बंध** (वल्ली क्वाड्रस), **अपवित्र संबंध** (वाल्टर लस्रादो), **सर्गावय्लि मांय** (रोनाल्ड ओलिवेरा), **बजार** (कानडि) (वल्ली क्वाड्रस), **मुग्दनात्लिलं गितां** (वल्ली क्वाड्रस), **मोनि बॉब** (जॉन सुंटिकोप्प), **मुखामुखि** (वल्ली क्वाड्रस)

२०१८

**बजार** (नागरि) (वल्ली क्वाड्रस)

# बजार

वल्ली क्वाड्रस

आशावादी प्रकाशन




आशावादी प्रकाशनाचो पंचतीसावो बूक

*'BAZAAR' - Collection of Konkani Poetry in Nagari script by Valley Quadras, Ajekar. This anthology is edited by Valley Quadras and published by Ashawadi Prakashan, 1801 Skylark Tower, 18th Floor, Pot 7, Ghansoli Sector 15, New Palm Beach Road, Navi Mumbai 400701, MH.*



| | | |
|---|---|---|
| First Edition | : | 2017 (Kannada script) |
| Second Edition | : | 2018 (Nagari script) |
| Copies | : | 500 |

| | | |
|---|---|---|
| Cover | : | Wilson JP Kayyar |
| Layout | : | Assisi Press, Mangalore |
| Pages | : | 62 |
| Price | : | Rs.125 |
| Paper | : | 80 gsm, N.S.Maplitho |
| Printed | : | Assisi Press, Mangalore |

*For complete details of Ashawadi Prakashan, visit*
www.ashawadi.com or eMail: ashawadi@gmail.com

# भितरल्या पानांनी

# प्रस्तावन - वेगळ्या सुराची कविता



कवी ज्या वठारांत वा वातावरणांत जियेता ताचो प्रभाव ताच्या व्यक्तीतवाचेर आनी परयायान ताचो कवितेचेर पडटा. कवीच न्हय तर हेर करशांव तांचेर आनी तांचे करनेचेर जाता. ताची एक देख म्हणोन सुधीर पटवरधन ज्या नामणेच्या चित्रकारान काडल्या चीतरांची दींव येता. हो चित्रकार मुंबय सरक्या महानगरांत रावता. आपल्या चीतरांनी ताणे मुंबय शहाराक पिंतरायलां. जे चीतरांची विशय जांव येना अशे विशय ताणे चीतरावन तांतले कलात्माकतेचो सोध घेतला. खोपिनी रावपी लोक, दीसपडटें लोकल गाडियांनी प्रवास करपी तेच परमाणे थंयचे कारखाने ताच्या चीतरांचे विशय जावन आयल्यात. वल्ली क्वाड्रस हाच्यो कविता वाचतानाच म्हाका सुधीर पटवरधनाच्या चीतरांची याद जाता. पटवरधन आपलो विशय मांडुंक रंगाचो आधार घेता तर वल्ली क्वाड्रस ऊतरांचो माध्यम आपणायता.

*'ये तुमी फळां वीकतेल्यांनो,*
*सत सांगा*
*हीं फळां कशीं अशिंय पीकल्यांत*
*सांगा कांय*
*कोणा बावड्याचीं दुकां सूकल्यांत..?'* (क्राफरड मारकेट)

मुकार कवीक हार वीकतेले दीसतात आनी तांकां उद्देसून म्हणटा:

एकेक फुलाक तोपताना, सगळीं फुलां वीकरिंगी, हांची तूमकां नात नाशिल्ली, आनी तूमच्या काळजांत कशें कांतयलें नाशिल्ली..? आनी अखेर सवाल करता, कसो पूसलो हांचो दीक? आनी निमाणे कडेन तो गिरायकिंक चोवून कवी म्हणटा:

*'ये तुमी गिरायकिंनो,*
*खंयचें नयतीक खंयचें न्हय*
*तूमकां कांय पडोन गेलां?*
*सपणा आनी आशेचे अतमे*
*भंवचे दीसतात तूमकां?'* (क्राफरड मारकेट)

मुंबय सारकिल्या महानगारांत म्हणोन ताच्या व्यकतित्वाक मोल नासतां तो एके थराची नांव नातल्ली जीण जियेता. आनी ताच्या संवधानाची धार म्हणल्ली आसता. कवी ही जीण क्राफरड मारकेट ज्या अतिभौतीक प्रतिभेंतल्यान व्यकत करता.

वयले वयर वाचीत रावल्यार ही कविता क्राफरड मारकेट ज्या मुंबंयंचतल्या नांवाडत्या मारकेटाचें वरणन करपी कविता अशें दिसोन येता. पूण बारकायेन आनी सुटाव्यान वाचून पळयल्यार तिका आशिल्ल्या अरथाचे कितलेशेच थर येतात. बरे कवितेचें हें लकशण आसा.

'भितरलो कवी' हीय असलीच एक अरथपूरण कविता. हांगा कवी आपली नदर भितर भोंवडावन आपलोच नियाळ करता.

*'आनी आतां कित्याक म्हाका:*
*रसत्याचो विळाप*
*रुकांचें रुदान*
*आवयची भीरमोत;*
*मवनाची बोबाट*
*समजता, आयकता*
*भोवशा भितरलो कवीच समजयता.'* (भितरलो कवी)

ह्यो वोळी तरकीक संगती झळोवन आयल्यात हो हे कवितेचो विशेश गूण दीसता. कवितेच्या सूरवातिचे वोळिचो धागो वोडीत ही कविता मुखार वेता. र. वी. पंडीत हांची 'कोणाक कांय नाका' नांवाची कविता आसा. ती कविता वाचतच ही कविता वाचताना याद जाता. म्हजे नदरेन वल्ली कोंकणी कवितेचें दायज आपली तांतूं भर घालून गिरेसत करता.

मुंबय सारकीच महानगारांत एक थराची अनान जीण जियेता अशें सूरवेक म्हळांच. ताच्या जीणयेक येदी न्हंय गत आसा ताका. त्या देखून ताका रसत्या देगेन चल्ताना हेणे तेणे पळेवंक वेळ नासता. मुंबायच्या रसत्यांचेर दीसपट्टें कितेंय ना कितेंय घडटा. पूण तांचे कडेन लक्ष कोण दीनांत 'उंदीर आनी खतां' ही कविता ज्या नदरेन मोलाची आसा. कवी सकाळीं ओफिसाक वेच्या मधें रसत्यार टयारा पोंदा पडोन चीरडोल्लो एक उंदीर पळयता. तो मेला आनी रसत्यार पडल्लें ताचें रगात दाट जाल्लें आसा. मुखार कांय काळा उपरांत ताका थंय ताका तो उंदीर दिसाना.

घडये एका माजरान ताका गिळून उडयला आसता अशें ताका दीसता. पूण माजरयी ताका दिसाना. घडये एका कूतऱ्या पेटयाचें बाकीक तें पडलां आसता अशें तो चिंता. ही हांगा सत्यान घडणुकाचें सांकोळ सुरे जाता;

*'वागाक कोणे गिळ्ळा आसतोलो*
*कोणे कोणाक मारल्लें तें*
*म्हनीस जाल्ल्यान चिंतलेवे...?*
जिवीं मोडीं मेल्ल्या मोड्यांक सांभाळतीत?' (उंदीर आनी खतां)

ह्या कवितेंत कवी महानगारांतल्या समाज व्यवसतेचेर आपलें देकाप दाकयता. हांगा उंदीर आसा. तेच प्रमाणे हांकां खावन उडवपी वागाक आसा. देखून कवितेचो अखेरिच्यो वोळी खूप सांगून वेतात.

*'रसत्या सिग्नालाचेर उभी,*
*भूरगो एका हातीं दिसाळें*
*अनयेका हातीं म्हेळें वसतूर घेवन*
*या वीकता या गाडी पूसता*
*ताचें लागीं हळू पूसपूसतां*
*खतां पुसून काडशी?'* (उंदीर आनी खतां)

कवीक प्रवास/पावस जाय आनी तो प्रवासाची वाट पळयता. 'केदनां येशी तूं पावसा' अशें तो ताका विचारता. तो ताका अतरेगान राकोन रावता. ताका प्रवास जाय. तो शेतां भाटां आनी ही भुंय पळेंवक न्हय तर भोगल्ल्या दुकिंक व्हाळोंवक कवी हांगा वेगळेच कल्पनेचो वागाक करता. आनी ही कल्पना अचरयांपरिंच दोळयालागीं दुकां गळोवन गंगा न्हंय म्हेळी जाता. हो विचार सांकोळ वेगळो आनी म्हनशाकुळाचें दूक कितलें खोल आसता हें सुचोवपी. पूण ह्या दुकाक येक हायकारी बाजू आसा. अखरेक तो म्हणटा:

*'तूं वेग्गीं ये पावसा*
*तूं आनी हांव मेळून*
*गूपतीं दुकां गळवयां*
*हो संसार फुलवयां'* (तूं ये पावसा)

इंगलीश अतिभौतीक कवी बरीं वल्ली दीसपट्व्या वावरांतली चालती भास वापारता. जशें घडियाळ, एरफ्रेशनार इत्यादी. आपले कवितेचो आशय प्रभावी थरान व्यकत करपाक ह्यो प्रतिमा मदद करतात. जिविताविशीं खोल चिंतप करून तें मांडटाना तो फुंकून पेटयिल्ले कट्रेचो वापर करता. आनी 'म्हज्या आवयचीं सन्नां'. ही कविता सन्नाच्या प्रतिमेंतल्यान आकाराक येता. ह्यो सगळ्यो प्रतिमा कवितेच्या आशायेचे गरजेंतल्यान आयल्यात.

हो कवी अभिव्यक्तिचे नदरेन विचार केल्यार तो हेर कविंनी मांडल्ली वाट चलना. वल्ली क्वाड्रस आपलेखातीर कोंकणी कवितेच्या म्हाळार आपले खातीर खाशेली सुवात जोडल्या. ह्या संग्राहा वरवीं कोंकणी कवितेंत मोलाची भर पडल्या.

– माधव बोरकर
[गोयां, २४ दसेंबर २०१७]

# सुरविलीं दोन ऊतरां - बजाराच्ये वाटेर



कोंकणी थंय मोगाळ वाचप्या,

'उम्रभर येही भूल कर्ता रहा
धूल चेहरे पर ती और आयना साफ कर्ता रहा'
[जिणिभर हीच चूक आधारून ऊरलों
धूळ तोंडार आसल्ली आनी हांव आरसो पुसूनच ऊरलों]

मिरजा घालिबाचीं ऊतरां समाजेंत एका कविच्या मूळ जवाभदारेचेर कीतले अपूरभायेन आरसो धरता.

एक समाज वांकडीच आसता. ह्या वांकड्या समाजेक शीदा करच्याक एक साहिती/कवी तवळ तवळ अपल्या गिन्यानाचो प्रामाणीक ऊजवाड फांकयता. हिच्च मूळ जवाभदारी एका कविची. हांगासर कावयाळ प्रतिभा, ऊतरांचो मेळाप वा प्रास-अलंकाराची सजवणी सरव दूसरें. पूण पयलें आनी पयलें; कवीन आपणाथंय प्रामाणीक आसुंक जाय म्हळ्ळें चिंतप हांव पातयेवन आयलां.

दिसानदीस नव्या धांवणेंत 'जिणी' सारच्या लोकाक चिंतुंक वेळ ना, सयरण ना. वेळ आसल्यारी 'कितें फायदो?' म्हळ्ळें सवाल उभें जाता. संसार जसो 'फायदो/लूकसाण' चिंतपा भंवतोणी धांव मारून आसा. सरवांक जिकुंक आसा. फायदो जोडुंक आसा. आनी ह्ये पासत आमी दींवक पडच्या मोलांविशीं आमकां कितेंच पडून गेल्लेंना. असलेच धांवणेंत कवियी आसात म्हळ्ळें अपूट सत. देकून फायदो आसल्यार मात्र परगटतांव, फायदो आसल्यार मात्र बरयतांव, फायदो आसल्यार मात्र वाचतांव, फायदो आसल्यार मात्र एकल्याचे कविते/तालेंताविशीं दोन बरीं ऊतरां उलयतांव - हें 'बजारी चिंतप' नासताना आनी कितें?

प्रतिभा आसल्यारच पावाना. एका कविथंय नयतीक जवाभदारी आसुंक जाय. पोकोळ ऊतरां सलीसायेन मेळतात, पूण तीं कीतलीं प्रामाणीक म्हळ्ळें एका कवीन आपल्या कोशेडदाखाल मापुंक जाय, लोकाक जाय जाल्लेंच दीवन सलीसायेन 'व्हा... व्हा..' होगळाप व दीशट नातल्ल्या संघटनांच्यो बिसकुटो घेवयेता. 'लज नातललो गांवार व्हड' म्हळ्ळे सांगणेपरीं, अपलें स्वाभिमान आडोव घालून, दुडू, मान, पदवी, सवलताय आपणांवचे कीतले नांत? सांगा म्हाका; एक कूलकार आपल्या धनयाच्या बापायच्या मोरनाचेर कविता बरयता पूण अपल्याच सांगाती कूलकाराक लुटून खाता, कूलकाराचें पाटीक लागल्लें पोट दिसाना तर तो कसल्या वरगाचो कवी म्हणून चिंता. दूरभागपणान कपटी

उतरांक सोभीत सजवणेंत बजारांत विखून वेताना, हेंच सत, हीच नीत आनी हेंच वासतव जालां.

संसार खोटोच, समाज वांकडीच, समाज फायदो/लूकसाण चिंतलो अनी तेच्चपरीं जियेतलो. पूण कवी सयत हेच्च चिंतपा थावन मुक्त ना, बगार बजारी वेवसतेंत अपलीं मवल्यां, अपलें मनशापण, अपलीं ततवां, अपलें तालेंत, अपलें वेकतीतव सयत वीखचें पळेताना, ह्या वेवसतेचेर, ह्या बजारी चिंतपाचेर एका थराचो कांठाळो ऊभजता. ह्या संसारांत जायतो समस्सो आसा, संकश्ट आसात, दूक आसा, असमधान आसा. संसार बरो जायजय, समाज बरी जायजय, आमचो देस बरो जायजय. पूण आमी (हांव?) – हें मुळावें सवाल/चिंतप. हेंच चिंतप हरयेका कवीन अपणालागीं करचें भोव गरजेचें. जेदनां हांव बरो जालों तर, अरधो संसार बरो जाल्लेपरीं. कविता काळजाची भास, कोशेडदांत पाशार जावन प्रामाणीक जावन उदेली तर, ती फकत, एक कविता जावन ऊरचिना.

'च्यार मुखां', 'कटपूतळी', 'दर्भारांतली पिंरगोण' ऊपरांत धा वरसांचें मवन. ह्या धा वरसांनी जीणयेन म्हाका शिकयिल्लीं सतां जायतीं. हांवें पळेल्लीं, पारकिल्लीं, समजल्लीं सतां, बदलल्लीं ततवां, बदलेल्ले संबंध एका न्हय एका रितीन 'बजार' जम्यांतल्या कवितेंनी एका न्हय एका वेसार लीपल्यात आसयेत. प्रास/ऊतरां सजवणेक हांवें केदिंच महत्व दीवंक ना बगार म्हज्या काळजाक भगल्ल्या प्रामाणीक सभदांक महत्व दिला. हांतल्यो विंचणार कविता थोड्या पतरांनी तशेंच जाळिजाग्यांनी परगट जाल्यात. अध्ययनाक ऊपकारत कोण्णा म्हळ्ळ्या चिंतपान कवितेच्या थोड्या प्रकारांक (गझल, ओड/ओडे आनी हेर) ह्या जम्यांत विंचलां, तुजी अभिपराय, सुचाव व ठीका तुवें म्हाका धाडून दीवयेता.

कोंकणी थंय वीशवासी,

– वल्ली क्वाड्रस
इमेयलः valleyquadros@gmail.com
मोबाय्ल/वाट्स्आपः ७०२१९६७८८०

# भितरलो कवी

कीतलेशे पावटीं हांवें;
राव्यावयले दोरियेंत उदाक वोडलां
रुकाचेर पीकल्ल्या फळांक झडयलां
रसत्या वयल्या सूणयापिलांक फातरायलां
शांत तळया ऊदकाक फातरांनी मालां

तीतलेशे पावटीं हांव;
उदाक वोडुंक सकलां
फळां झडंवचांत जीकलां
सूणयांक धांवडांवक पावलां
ल्हारां उटंवक सकलां

आनी आतां कित्याक म्हाका;
राव्याचो विळाप;
रुकाचें रुदान;
आव्यची भीरमोत;
मवनाची बोबाट;
समजता.. आयकता..

भोवशा,
भितरलो कवीच समजयता.

– मार्च, २०१७ ईसवेंत कविता.कोमचेर परगट जाल्या

# वोकल

हांव मोडां सोधून आसल्लों
तांच्या सावळेच्ये रूजवातेचेर
म्हजें खजान लिपंवक
ज्यें हांवें कमायिल्लें;
हेरांच्या पडणीं/चुकिंचेर

हांवें नवेंच वोकल रचलें
संसाराच्यो चुकी पळेंवच्याक
जीतलें तीळतां, तीतलें मोळतां
जीतलें पीळतां, तीतलें दाळतां
म्हजें बंडवाळ; हेरांच्या चुकिंचेर

आज कित्याकगी मोडां नांत
लिप्यिल्लें खजान कशें सोधूं
वोकल अतां म्हाकाच्च धाखयता
खंयचें वोळूं, कितें गिळूं
वोकलच आतां फुटयतां.

– अगोसत, २०१७

{वोकल = goggles, बंडवाळ = Investment}

# क्राफरड मारकेट

ये तुमी फळां वीखतेल्यांनो,
सत सांगा -
हीं फळां कशीं अशींय पीकल्यांत
सांगा कांय
कोणा बावड्याचीं दुकां सूकल्यांत?

तुमी फुलांचे हार वीखतेल्यानो,
एकेक फुलाक तोपताना
सरव फुलां वीखरिंगी म्हण
तूमच्या काळजांत कांतयलेंना?
कसो पूसलो हांचो दीक?

ये तुमी कसयगारांनो,
एकाच्च माराक कूडके करचो
कोयतो तूमचो त्राणयी तूमचें
असो निरपराधिचो गोमटो खातारताना
ताचीं दुकां तूमकां दिसुंक नांत?

ये तुमी गिराकिंनो,
खंयचें नयतीक खंयचें न्हय
तूमकां कांय पडोन गेलां?
स्वपणां आनी आशेचे अतमे
भंवचे दीसतात तूमकां?

– जुलाय, २०१५ ईसवेंत कविता.कोमचेर परगट जाल्या

# वांटो आनी नलियो

'पडलाचो वांटो ताचो
मूडलाचो वांटो हाचो'
आपल्या आसतिच्या वांट्यादार
दोगांय पुतांक आपवन
बापायन सांगलें.

ताणें पडलांत भीं वोंपलें
गूपतीं मूडलांत नलियो शिंपल्यो
हाणें मूडलांत भीं वोंपलें
तशेंच सूपतीं पडलांत खांटे शिंपले

धरतेनयी आपलें आंग वोळळें;
वेळान दिशाच्च बदलून सोडली
भीं खीरललें तशें नलियोयी
पडलाचो जागो हाचो जालो
मूडलाचो जागो ताचो जालो

आज बापूय ना तरयी
सदांय अपापल्या वांटयाच्यो
नलियो विंचतासतां
दोगयी चिंततात;
'अपणान भिंच्च वोंपल्लें तर?'

– अगोसत, २०१५

{नलियो = Bad crop, पडला = West, मूडला = East}

# ऊजयांतले कवी

आमचेस्वें आमचा शांतेच्या
फूटबालाक एकेच्च खोटेन
गोल पोसटाक धाडचे
तुमी जलमान खेळघाडी
तुमी खोटायते रावा
आमी परत पाटीं उडोन येतेलयांव

आमी कांट्यांत फूलचीं फुलां
तूमच्या नाकश्यांनी खीमचिया
पाकळयो आमच्यो पिसुडा
तुमी म्होंव लूटचे भृमर
तुमी पिसूडते रावा
आमी परत फुलोन येतेल्यांव

आमच्या मानाच्या कर्डाक
तुमचा किटाळांनी पेट्या
गोबोर करचे माहीर तुमी
आमी उज्यांतले कविगा
तूमच्या अतम्याक सारें जातेल्यांव
आमी परत सकतेन भरतेल्यांव

– अक्तोबर, २०१५

# पेसट कंटरोल

थोडेच्च मयन्याधल्या
पेसट कंटरोलांत
नास जाल्ले मूस, पाली,
भिकूण आनी हेर किडे

आतां पारव्यां थावनयी
पिडा येता देकून
बरडप्रोफिंग करिजाय कंय

हांव चिंतुनासां
मनशा मतिंतल्या वेवेगळे
किड्यांक नास करूंक
कसलें प्रूफिंग करूं?

– सप्तेंबर, २०१५

# उंदीर आनी खतां

काल सकाळीं;
आफिसाक वेच्या आमसोरान
टयरांनी; पंदा चीरडल्ल्या
रसत्यार मोरोन पडल्ल्या
उंदिराचें रगत
दाट जाल्लें.

आज रसत्याच्या तेच्च सुवातेर;
मेल्लो उंदीर दीसलोना,
माजरान गीळ्ळासतलो!
पूण माजर कंय मेलां?
पेटयान गिळ्ळासतलें?
मुखली गेर घाली.

पेटयाक वागान,
वागाक कोणे गीळ्ळासतलो?
कोणे कोणाक मारलें तें,
संक पाशण घालच्यादीं,
मनीस जालल्यान चिंतलेवे?
जिवी मोडीं मेलल्या मोड्यांक समजतीत?

रसत्या सीगनलाचेर उभो.
भूरगो एका हातीं दिसाळें,
अनयेका हातीं म्हेळें वसतूर घेवन,
या विख्ना वा गाडी पूसता.
ताचेलागीं व्हळू पुस्पूसतां;
'खतां पुसून काडशी?'.

– कविता.कोमचेर (२० दसेंबर २०१५ ईसवेंत परगटल्या
{संक पाशण = Rat poison}

# हळू हळू

आंगणा हरध्याचेर विदेशी गाडी
मातशी हळू चल्या पुतानों
मांय बाबान वोतल्ल्या
मायामोगाच्यो पूतळ्यो कांय
अपटोन फूटतीत

तेज खोटेंचे हील न्हेसोन
त्ये आंगणांत चलताना
इल्ली दया काकूळत आसोंदी
माय बाबाचो घाम थंयचर
अजून जिवोच ऊरला

वीशव वेळाक धाखंवचें घडियाळ
वणदिचेर ऊमकळायताना सांभाळा
हळू खिळे मारा
माय बाबाचें रगातयी
ते वणदिंच्या रंगांत लीपलां

कूजनांनी एर्-रिफ्रेशनर शेणायताना
थोडो पुणी उडास करा
रांदणिचेर उजो फुंकून शिज्यिल्ली
हून पेज अपल्या कापडा पालवांत
भुंय दवरलेलो परमळ घेतल्ले मूस
कांय मोरोंक आसात

स्याटलैट च्यानालां टिविचो गाज
मातसो लोव करा बाळांनो
माय बाबाक केदनांगी पूरला
पूण घरांत अजून
तांचो दयामोगाळ आवाज ऊरला

– कविता.कोमचेर (सप्तेंबर २०१५ ईसवेंत) परगट जाल्या

# तूं ये पावसा

केदनां येशी तूं पावसा!
केदाळा थावन काट भांदून,
अतरेगान राकोन आसां;
भगल्ले दुकीक व्हाळंवक.
भोरगोळाचो गांव हो;
परगट दुकां गळंवक
आडवालां कंय.

कांय दोळ्यांतलीं दुकां
गळ्ळ्यार,
गंगा न्हंय म्हेळी केल्ली;
हांवेंच म्हणतीत,
संसरांत आसचो केद पुरा,
म्हजे वरविंच म्हणतीत.
गोमव्याक दांतें भांदतीत,
अरबी दरयाक लोटतीत.

तूं वेग्गीं ये पावसा,
तूं आनी हांव मेळून,
गूपतीं दुकां गळवयां,
हो संसार फुलवयां.

– ज्यून २०१५

# जीणये-कविता

जेदनां बजाराक गेल्लों
पाटीं येतच्च;
ऊतरां गुंतून,
सूतरां चेपून,
बन्यिल्ल्या वोळिंक;
'व्हा व्हा..'
बोबाट रावलिच्च ना

केदनां थावन
जीणये मीसतेरांत
रेवडोन गूटलोन
मीसतेर जाल्लीं
जीणये कोपां
उत्रांनी लीपलीं नांत
'कविता' जालिच्च ना

– सप्तेंबर, २०१५

# टागोराचो पागोर

सनी लागल्ल्या ह्या
आमासेच्या सूडकाडांत
वाती पेटल्यात
घांटी व्हाजल्यात
झेले गुंतल्यात
तरयी अतम्यांचें रुदान
एकाच्च सूडकाडांत
उभो केला दोरो
ना आरसो खेळ भूरसो
कूसल्ल्या मोड्यांकी
वाती पेटंवक
भकतांचो एकतार
जाता अतम्यांची पिंरगोण
घोणिंक आंजाळ रुपां
हातीं रगताळ कोपां
ताचावन खोचावन केल्लें चाकणें
कितें धेंक कितें जांबायो
आयकतात अतम्यांचे व्हळवळे
माट पडल्ले नत्तुंगाची
हांगायी ऊरचट बोब
कोणाची गुळेनासची बंदूक
कोणाच्या खांदार
जोकचो फार कोणाक
जातात अतम्यांचे कळवळे
ताच्या फुलां जिबांनी
कोणा कविंचीं रगता खतां
टागोराच्या पागोरांत
असोय 'डोंग' जाता
आबळे भकतांच्या एकताराक
गोड मुताचें आगमेंत
हांवगा तोमासा कुळियेचो
उणो भावारथी कित्या
आनभावारथीच म्हणा
भकतांच्या एकताराक मेळनासचो
दीवटी जावन झळोन आसां
सांगा पेटंव व लासूं
– माय २०१५

# आमासेचे कवी

पुनव आनी आमास थीर न्हय
वेळाकाळार जागे बदलून आसात
सनी लागल्ल्या ह्या गांवांत
कोण पूनवेचे थोडे आमासेचे

पूनवेच्या कविंक विशेस त्राण
आमासेच्या कविंक सदांय ग्रहण
थंय पूनवेचे कवी भीं वोंपताना
आमासेचे कवी नलियो शिंपतात

पूनवेकवी देखतात हेरांचें बरेंपण
आमासेचे सोधतात हेरांचें उणेंपण
ते वयर वोडुंक हात दिताना
हे पांय वोडचीं निबां सोधतात

पूनवेचे कविंच्या काळजांनी ऊतरां
आमासेचे कविंचीं पोकोळ सूतरां
पूनवेचे कवी मयलां धांवताना
आमासेकवी शोरट कट्टान पावतात

संसार आमास पुन्वेबगारयी चलता
अपलें बरेंपण पुरो जोडच्याक सिद्दी
देकून जाणारिंनी सांगलां
कुंटनिगे एंट्रू बुद्दी

– सप्तेंबर, २०१५

{कुंटनिगे एंट्रू बुद्दी = Its a saying in Kannada means; a short looking person has eight ways of smartness}

# मेगेले अम्माक कांय गोतना

मेगेलो आन लेक्काचो पंडीत
सकाळीं कीतल्यो गुळियो घेवका
दिसाचें कीतल्यो रातीक कीतल्यो
म्हळ्ळें अम्माक गोत्तआसा
अन मेगेलो ट्रीगनोमेटरी
आलजीबरा क्यालकुलस तजन
मेगेले अम्माक कांय गोतना

मेगेलो डाकटर अण्णा रातिचे फोन कोरी
अमेरिकांतू दीसू आमकां रातू
तुगेले जेव्हण जालेवेरे म्हणून नीमगिताना
अण्णा हासून जवाब दिता;
'अम्मा बरगर सोसेज खेले हांवें'
अम्मा परत नीमगिता 'नासटो जायनिवे?'
मेगेले अम्माक कांय गोतना

मेगेल भयणीन सकाळी फडे फोनू केल्यारी
धूव कांय कशटार अस्सावे म्हणुनी
अम्मा सगळो दीसू चिंतून बोसता
आसट्रेलियाचें घोडियाळू अमगेल्याच्याकी मुकार अस्सा
अम्माक कीतले पावटीं सांगल्यारी
मेगेले अम्माक कांय गोतना

मेगेली डैवोरस केज कोरटांतू अस्सा,
हांव जेविनासतां नीदलीं तर;
अम्मा रातभर बोसोनू देवालागीं मागता.
मेगेले अम्माक एकच्च खंत;
मेगेल्या नोवयान मेगेल कडे राजी जावका.
हें डैवोरस अलुमोनी म्हळ्ळेले –
सत्तू सांग्तां; मेगेले अम्माक कांय गोतना

अमी कोणी हुशारू नांव तर अमगेली अम्मा
सगळी रात जागी रावून सेवा कोरता.
आंगार एक ल्हान फोडू जाल्यारी,
गांवभर आसचो पालो वाटून लेप लायता.
खुद्द भुकी रावता पूण आमकां सरवांकू वाडता
केदिंच ओवरटैम व साडी मागिना
मेगेले अम्माक कांय गोतना सतच
मेगेले अम्माक कांय गोतना

[अखील भार्तीय कोंकणी लेखकांच्या एक्ताराच्या मुखेलपणाखाल २८ फेबरेर २०१६ वेर मैसूरांत चलल्ल्या अखील भार्तीय कोंकणी कविस्म्मेळनांत वाचल्ली कविता. तशेंच मारच २०१६ वेर साहित्य परिशद आनी महाराष्ट्र कोंकणी असोसियेशन हाणीं आयोजीत केल्ल्या कविस्म्मेळनांत पयलें इनाम लाभलां. २०१७ इस्वेच्या मारच ११ वेर देल्हिंत चलल्ल्या २३व्या कोंकणी अधिवेशनांत ही कविता वाचल्या. मारच १९ तारिकेर गोंयचा 'भांगार भुंय' पत्राचेर परगट जाल्या ]

{गोतना = doesn't know, }

# अनयेक पेटो मेला पळे

अळे अनयेक पेटो मेला थंय
राज रसत्यारच, दिसा मधेंच!
अपल्या कुडिंतल्या तांबड्या रगताक व्हाळवन
सुशेगात पाशार जांवच्या
दोळे, अतमो, जीव, मत नातलेल्या मनशांमधें
उदारोच पडोन मेला पळे
    कीतल्या वीशवासान दीस काडल्ले आस्येत
    ह्या पेटयानय
    जागोच रावोन दीसरात पारोत करून
    परक्यांक घोंकून
    अपल्यांक कीतलेपावटीं शिमटी हाल्यिल्ली जाव्येत?
    लेंवटीं हाडां चिंवोन गोबरार लोळोन
    आवक संप्यिल्लें ताणें
हीं मनशां–धनयांय पळे
चोरी करच्या माजराक खाटियेर निदावन
बहादूर पेटयाक भायर घालून
भितर लिपोन तमासो चोयतात पळे
पालंवाक धरून, वोलिंक गूटलावन
हे स्वपणांनी खेळीं खातेले
    कविंचा अतम्यांचो व्होर पळे
    भंवतोणीं रावोन बोबोच घालतात
    हांगा क्रांती जांवचेपरिंच ना
    क्रांतेचे हांगा पोट फुटोन
    आनकित्यो चिरोन उदारेच पडोन
    हें रंगमंचच सांडून गेल्यात
कोणेंय विचारलेंच ना पळे
लोरी हांडलिगी या मरसिडीस कार
हांडलिगी या कोणेय काडलोगी
कोणाक कितें पडोन गेलां?
अखरेक एक पेटो पळे – पेटे कीतलेय आसताना
पोसट मारटम करचेंय कित्याक?
[कानडी मूळ (अगो सत्तिदे नायी नोडल्ली) : कन्नडसाहित्य.कोमचेर २००७ ईसवेंत परगटल्या]

# जीणये ल्हार

कविता बरवंकच बसल्ले
त्ये दिसांनी;
भायर रंगाळ गाडी
ताका सी.सी.चो पारोत
भितर रंगाळ ग्लास
मेजार मासाफोडी
कुडांनी एकेक गवज
दभाजो संगीताचो
सज्यिल्ले कबाटार
रास रास बूक
पयसिल्या सुयांत
लागसिल्या दयांत
सरव जाग्यांनी
मोतियां आनी तारां
वयर अंतरळार
जशें सकला धरणिचेर
बुडोन दीस जाली सांज
तिंतेर मात ऊरली वांज

आयलें एक ल्हार
त्सुनामेचें
कोसळोन गेलें घरदार
फासळोन गेलें बिडार
ऊसळोन गेले सरव भांद
व्हाळोन गेलीं सरव गुंथां
सक्कड खाली खाली
सरव जालें शून्य
नां तारां नांत मोतियां
सक्कड सुकिधाड
ऊपरांत लांब वनवास
जीणये अनभोगाचो पास
...........
..........
चिंतून अपटल्लें ल्हार
आतां पाटीं येतां
वीजमीतच पावतां
तिंतेर मात भरल्ली गूरवार

– माय, २०१५

# एका कोटरेची आशा

मायानगरिंत एक कोटरी करची
एक मायाच्च सय
हेंच चिंतून हांव पावल्लों
कबूतर खानाच्या सूकण्यांपरीं
दानां जमंवक लागताना
गडदेच्या ह्या गांवांत
केदनां वडा जावन
केदना पाव जावन
रयला बियेसटी बस्सांनी
ईडलेक चेटनी जालां
दूदवालो लौंडरिवालो
चंदावालो क्यांटीनवालो
केबलवालो मकानवालोंनी
खीमचून कांतावन भोकावन
ऊरल्ल्या सुक्या हाडांपरीं
आशा अजून जियेंवक पळेता
सरव वाल्यांनी पिळून थकोन
बाकी ऊरले चिल्लर जमवन
कांय एक कोटरी करची म्हणताना
जवाभदारेची ऊसमोड पींगोण
फाल्यां कशें रावत चिंतां
वोताक एका कारा पंदा
नीदला एक पेटो मजेन
अय्यो मनीस जाल्लीं करमांगी
म्हजी कोटरी केदनांगी
रुकार आसल्लीं सूकणिंयी हासतात
खंडीत म्हजी आशा समजोन

– सप्तेंबर, २०१५

# सेवा

शहेरांत एका दिसा
पोट भरन खावन
धेंक काडच्या थोड्यांनी
आज सदांची जेम नाका
कांय इल्ली सेवा करयां
अशें म्हणून
वारडरोबांतलो
इंपोरटेड डिजिटल क्याम्रा
खांदार घालन
हळ्ळे तेवशीन
गाडी धांवडावन
धूळ उभ्यित्त पावले.

नव्या कारांनी आयिल्ल्यांक
कांय वाट चूकल्यासतेली म्हणून
थोडे जमले
'हळ्ळेंतले सगळे दूबळे
शिकाप समजणी नातल्ले
अनपड गवार' म्हणून
एकल्यान सेवेविशीं
भाशण सुरू केलो

दूसयान लोकांक एकटायलें
तीसयान तसवीरो काडताना
थंय आवाज येतालो;
एक गरीब आव्य
त्या खरकत्या वोतांत
बोरवेलाच्ये उदकांत
आपल्या भूरग्यांक न्हाणवन
घरच्यांचीं वसत्रां उंबळचो,
पर्न्या गाडियेच्या रोदांनी
ऊमकाळायिल्ल्या कीणकुल्यांचो,
गुंजिरी आंगडेंत
शिदियो मुदो करचो आवाज.

देकून चोवत्यान
'आवाज राव्या' म्हणून
आदेस दिल्लोच,
रसत्या देगेल्या जोपड्यांतून
नवोच्च आवाज ऊटलो;
एक म्हातारी आपले
लांग्ड्या, कुड्ड्या भुर्ग्यांक
जेवाण लायतासतां
आवाज करताली
अवाज करूनच आसली.

– अगोसत, २०१५

# उटा तुमी पेव्यांनो

रसत्या देगेर नीदलेल्या पेव्यांनो
मनशान जियेतेल्या ह्या
वटारांतल्या गटारांनी
व्हाळोन वेच्या नेणत्या
बाळांचें रुदान तें
तूमचे पासत निदेगितां तीं न्हय
देकून उटा तुमी

ही फूटपात तूमचा बापायची न्हय
हफतो दींवक तूमच्यान जाता?
काळोक पडला म्हळ्ळी भूमीद नाका
रसतेदिव्यां पंदल्या केम्रांनी दीसता
विरोद पाडतिचे येतीत
ऊकलून तूमकां आडळते पारटेक परतितीत
देकून उटा तुमी

पाटे आसते तर मरयाद तरी मेळती
रसत्याचेर निदोंक तुमी मनीसगी?
रगता खतां माजवोंक नातल्ले
मासा परमळ वचोंक नातल्ले

ह्यो रसत्याक सांताचें नांव आसा
तूमचे थावन अपवित्र कित्याक
उटाउटीं धांव मारा

मनशा–मनजाते राकोण भडवे येतीत
करा फीरयाद तकली आपटिया
तूमचो जीव सयत दिया
तुमी पेटे ते पेटेच्च जावन ऊरतेल्यात
आतां तरयी इल्लें समजया
रसत्या देगेर नीदलेल्या पेव्यांनो
उटा तुमी पेव्यांनो

पूरशांव सुरू जांवच्यार आसा
मंतरिचीं कारां धांवतेलीं
अमाल पियेल्ले नट तुमचेर गाडी चल्यतीत
ऊपरांत मीडियाचेर तूमचेर ऊडतेले
कोणीं कीडनी दोळे काळीज काडतीत
वांदर, उंदीर, दुकोर तापातसलो
पेव्या ताप आयलो म्हणच्याधीं
उटा तुमी पेव्यांनो

– सप्तेंबर, २०१५

# कोणाकी सांगिनाका

ओ थंयच्या ओणिंत चलोन आसा; जानवारांची पुजा
हांगा खणिंत पडला मनीस, तूं कोणाकी सांगिनाका

ओ त्या घरा येतेच्च आसात; नवे नवे सयरे
हांगाच्या तांबड्या दिव्याविशीं तूं कोणाकी सांगिनाका

ओ थंयचा मंदिरांनी चलोन आसा 'राम' पुजा
हांगा सीतेंक वीणगे करतात, तूं कोणाकी सांगिनाका

ओ थंय फेसतांनी बूडला सगळो गांव
हांगा म्हजेंच मोरन जालां, तूं कोणाकी सांगिनाका

ओ थंयच्या चीमणेंत पळे नाचोंक लागलां पिसोळें
हांगा काळजांनी उजो पेटला तें तूं कोणाकी सांगिनाका

– मार्च, २००७

# काळो कोट

सश्क्त कोटाचेर मोलाधीक थिकां
दीशटिच्या नाकाक आदाळतात दुकां
सूयो सयत चंदराचो गुलाम
दयो लेगून पूसता मुलाम
जीव नीरजीव घायेल्ल्या रगताक पळेवन
    काळ्या कोटाचेर भांगराळीं सुतां
    तांतूं लीपल्यांत तांबडीं खतां
    व्हारें सयत विकाळ जाताना
    मनीस कितें मनजात कितें
    मनशापणानंच घाला खाल्तिमान
कोटयी तुज्या वेकतीतवास्वें घनाधीक
शिंवकार लुंवकार लेगून आतां मानाधीक
महाराय चक्रवरती गांवचे हर तुंडुराय
देव देवता सयत देंवले भुमिचेर
तुका सरपडोन मान करुंक
    तुंच सत नीत तुंच आतां पदवेदार
    लीपता वाटां मेटांनी दिसा ऊजवाडाक चलचो व्यभिचार
    देस धरम भकतेचीं निबां
    धव्या पाचव्याचेर केसरिचीं शिबां
    सरगिंचे देव लेगून चुरियो पाजतात
तुजी कूरपा आसल्ले आमी पुनेवंत
बाकिचे सरव म्हजेपरीं सनिवंत
तुजी सावळेंत चलचे भागेवंत
करपल्यारयी आंतां तुज्या नांवांचिंच फिंतां
कोण म्हणता कसली मोडी म्हाका दीसतात कीतलीं मोडीं
    कोण सांगता आमच्या देसांत आसात बेकार
    दूमडी बोलसांनी चेपून घालतात जैकार
    बगलेनंच मनशामोलांची जाता हाहाकार
    पुसून काडल्ल्या रगताचीं
    घासून काडतां दाटेल्लीं ऊरल्लीं खतां

– ज्यून, २०१५

# क्लास

मुंबयतल्या एका सांजेर आंग धांपलेलें एक जोडें,
'सेकेंड क्लास' डब्ब्यांत रीगलें.
तेच्च पिसांतूर सांजेर एक अरधें वीणगें जोडें,
'फस्ट क्लास' डब्ब्यांत रीगलें.

एकच बोगी, मधें मात्र सरळां विंगडतालीं;
दोन क्लास; 'फस्ट क्लास' अनी 'सेकेंड क्लास',
तीं सेकेंड क्लासांत, हीं फस्ट क्लासांत,
आपापल्या संसारांत मगन.

अछानक तो हिच्या ऊगत्या हरध्याचेर पळेताना,
हाणे 'तर्ड क्लास मनीस' म्हणोन येटून,
दोळ्यांनी ताचेर वार करतच,
ताणे आपली नदर पाटीं काडली.

आतां हाणें तिच्या धांपलेल्या मानांत,
नदर रिगंवक धरलें,
जीतली ती पाल्लंवार अपणाक पांगूरताली,
तीतली नदर हाची तीक्ष्ण जाताली.

हांवयी एक रयला खांबो,
फक्त लोकांनी धरूंक, पाट थेंकुंक आसलों.
तरयी म्हजेयीनल्याक चिंतुंक मजबूर जालों;
कोण खंचो 'क्लास'.

– जुलाय २०११ वेर किटाळ.कोम चेर परगट जाल्या

# त्ये दिसांनी.. ह्ये दिसांनी

त्ये दिसांनी
रसत्या देगेल्या चालिंनी
रात-दीस कर्कर करंदाय
धूळ-मालिन्य सोसून
खचरो-कसतळा घाट भगून
डब्बो घेवन उभो लायनीर
हरयेका मेटांनी म्हेळें
यूरीन ईनफेक्षन म्हळ्ळेंच कितें
समजोंक कोणाक आसलो वेळ
सरव उटाउटीं
नसटो, चलचें, धांवचें
गडदेच्या बस्सां-रयलाक
राकचें थकचें सूकचें
ऊपरांत भितर रिगोन चेटणी जांवचें
सेंट घाम तेल आनी व्हकताचें
अपूरभायेचें मिलन जातालें

ह्ये दिसांनी
उंचले माळ्येंत तीतलें
वेळा काळार सगळें चल्ता
सक्कड चलाजेच्च
कामाचीं, नळांत उदाक
खचरो, दूद, पेपरां
शिंक आयल्यारी एम.आर.ऐ
तपासणी रग्तादाब गोडमूत
मास खांवक आडवरलां
कोलेसटओल बिपी शुगर
मोडरन युगाचे मोडरन पिडा
व्हड जातात बोलसांतले बुराक
घराभितर एर रीफरेश्शनर
पायनेलांतले तसवीरेंनी दुकां
एकसूरपणाचे करकरे करंदाय

आज बसोन सक्कड चिंतां;
त्ये दीस चाली/कोलोनिंची 'गवज'
ह्ये दिसांनी फ्लेटांनी 'गाज'
त्ये दिसांनी हांव आसलों 'वेसत'
ह्ये दिसांनी हांव जालां 'सूसत'

– अक्तोबर, २०१५

# कितेंच दीसलेंना

हांवें जियेंवच्या परकट गांवांत
मेटां मेटांक गूडसुलां, जोपडीं
कीरमे गळवन खेळचीं भूरगीं
हांगाच्या तांब्ड्या दिव्याविशिं तूं कोणाकी सांगिनाका
भीलकूल सगळीं म्हजे तसलीं
सकाळीं हांवे वेच्ये वाटेर
थोडे हातीं फातोर घेवन
फातरायताले;
कोणाच्या पाक्यांक, जोपड्यांक
वाटेल्या गाडियांक, परकी लोकांक
हांव पळेतेच्च मुकार चल्लों
थोडे उजो फुंकताले
कोलितां करताले, घरां मेजताले
वाटेव्यल्यान चलोंक जायनाशें
परनीं टयरां रास घालताले.
मुकार थोडे वांटताले
एकामेका वयवाट चलयताले
घेंवक थोडे जमताले
कोण तिंतांत लीखताले
आनी हेर फितां घूंताले
हांव मोजेयीतल्याक मुकार पावलों
थोडे बर्फापरीं शांत बसल्ले
काळ्या आरश्याच्या मोलाधीक कारांनी
दोळ्यांचेर काळ्या वोकलांनी
दुदा धव्या न्हेसणार
दीस बूडतच पाटीं येताना
वाटेर सकाळचे एकलेयी दीसलेनांत
कितेंच दीसलेंना, कितेंच आयकालेंना
पाकीं जोपडीं लासचो धुरो शिवाय
पयशिल्यान लोकाचो जयकार सोडल्यार

– ज्यून, २०१५ वेर नमान बाळोक जेजुचेर परगटल्या.

# बर्फा वाटेर

थोड्याच दिसार्धी
मेटां मेटांक
ह्या पंद्राव्या देसाकयी
विजा नासतां आयिल्ल्या
तान भुकेच्या नाडीक
पाट करन आयिल्ल्या
कुडिच्या वोडीक चिंतून
'थूक' शिंपी ऊसळावन
अरथ नातल्ल्या रागान
गुड्डावन गेलेल्या
हेच्च वाटेचेर आज मांडला बरफ

दुधा पांगरणांत
घोरेतेल्या ह्या गांवांतल्या
हेच्च हरशेच्या वाटेर
दीशटीक पडल्ली
कोणाचिगी खेळा बावली
या सूत तूटल्ली कटपूतली
घामेल्ली पावली
मसतून पडल्लीं फुलां
विजिटिंग कारड
दोळे धांपून
सरवांक गुड्डावन
गेलेल्या म्हाका
देवा भाजारांतल्या
अमिगान धाडल्ली मेसेज
करेजम सुरू जाला

ह्या पावटीं तरी
तूं बरो जा
म्हजे भितरलो कवियी
तेंच सांगता
तूं बरो जा
हांवयी विचारतां
'कीतलो बरो?'

वेवेगळे रंग
गुड्डावन गेलेली
हिच्च वाट
आज जाल्या फकत बरफ
हांवयी हठी
आंकूडच्या हिंवांतयी
कोपी रायट ना तरयी
'जेजू' पाव म्हणतां

तेंपांत
आज
वेगळेंच घडलां
बरफ नितळळा
संगीं सगळी वाट
गांवार गांव सयत नितळळा
हांव चिंतां
जर म्हजी मतयी
बरफ जाल्ली तर..!

– मार्च २०१४, स्टोक होम (स्वीडन)
{ करेजम = Lent}

# उचांबळ आनी कविता

पोर म्हजो पोताचो दीस
दोतोरान सुचायिल्लो
रांदपी कामाक येंवक नातलो
शिणून एक कविता बरयली

एक पावटीं रजेचो दीस आसलो
कांय भंवोंक वचुंक आसलें
ड्रायवर कामाक येंवक नातलो
तेदनांय एक कविता ऊभजाल्ली

काल शेरांत धोंबी आसली
म्हाका खीर खावंक मन आसलें
दूद वाल्यान दूद हाडलेंना
अशी अनयेक कविता उदेली

आज खबरेपतरांनी वाचतां
मास खांवक आडवालां कंय
हांव निजायकी उचांबळ जातां
अनयेक कविता बरंवकच बसतां

म्हज्या कुंपाराचो आज जल्मादीस
मासा–पकवानाचें गऱ्यांड डिन्नर
ताच्या मानाक चेपें ऊकलून
म्हज्या कवितेंतयी घणघणीत उतार

म्हज्या कवितेंनी कीतले संसार
सक्कड बरेच; नितळ नीट आसचे
कीतलो सोभीत हो संसार
गूण शेगूण आदरशां हजार

शांत वारें ए.सी. कुडांत व्हाळता
म्हजी कविता गुप्तीं वाचून हासता
कवितेचें पान उभवन सोडता
म्हजीय भीतली दीशट वरता

ऊभल्लें पान अशेंय सतायता
चलयता धांव्यता खर्शेयता
आंगांतलो घाम व्हाळयता
म्हेळें क्रूसडें नाकाक आदळायता

तेंपानी कवितेचें पान परत मेळना
हांव पानाव्यलें म्हेळें घासतां
सव सवध सयत मोरोन पडल्यात
फकत आयकता;
गंदपी, ड्रायवर, दूदवाल्याची
वळवळे, दूक अनी जिवीत.

– ज्यून, २०१७

{उचांबळ = Turbulant, पोताचो = Fasting}

# पयस पयस

एका तेंपार्धी;
तांच्या आनी आमच्या घराक व्हणोद आसली एक
शिंक काडल्यारयी 'कितेंगा शेळगी?'
म्हळ्ळें मयपासी सवाल
रोवाणेक बोसची कोंबी सयत
तांची आमगेर आमची तांगेर
दोनयी घरचे पेटे सयत दोसत
त्या घरांत पिंयांव खातरल्यारयी
दुकां देंवतालीं आमगेर
आमगेल्या पेजेक तांगेले गरे
सयरे तांगेर घुंवतालें व्हान आमगेर
घरां दोन सांदे घरभर
आमगेर सयरे चडल्ले दिसा
अमगेले थोडे तांगेर
तशेंच तांगेले आमगेर
एक पतर आमकां वाचुंक पावतालें
आमगेलो रेडियो तांगेर आयकतालो
एकाच आंगणांत खेळतालीं
सूक शांतेचीं पिलां-फळां
......
......
......
आज-काल आमचे घरचें पाकें
तांचयाकी एक फूट उभार
दोयाक तांच्या गलफाचो चुनो
आमच्या वोणदिंच्याकी परजळीक
तांचो 'वूफर' गाज भांदुंक
आमच्या कुडांनी 'सौंड प्रूफ' जनेलां
तांचीं सुर्णी आमगेर येनांत
आमचीं गायरां तांगेर वचानांत
आंगणांत आतां वेवेगळीं फुलां
विदेशी पेल्यांक गुडांनी घालां
आमगेर थावन तांगेली
वाट लेगून गेल्या पयस
फेसता परबेक दिंवचे उल्लास
फेसबूक आनी वाटस~आपाचेर
दीस गेल्लेपरिंच सरव पयस पयस
भांध काळजां मनां
घरां मनशां आनी मयपास
– अगोसत, २०१५

# परस

पावसाळ्या एका सांजेर
मुंब्यच्या वी.टी. थावन बेंड्र वेच्या
हारबर ट्रेयनिचेर
बागलार रावोन हावो खांवचो हांव
भाष्ट्याक दिल्ली मत घेवन
लावारीस भंवच्या दीशटी सर्वे
मसजीद बंदर ऊतरोन
स्यांडरस्ट रोडाच्या सांखोवाचेर
गरजे भायर अजून उभी आसल्या ट्रेयनिच्या
बागलार रावोन सकला पळेलागलों;
दोन टऱ्याकां मधें
एक परस नदरेक पडली
जी पोट चिरोन उदारीच पडोन आसली
दीशट म्हजी अरथ नासच्या चिंतनांनी
तिचेर खंचल्ली मत जागी जाली
सवालां दाळो उदेलो
कोणाची ती परस?
हांगा कशी पडली व ऊडली?
कोणेंय पीक् पोकेट केल्ली?
काळो दुडू भरन आसली?
कोणाची मयन्याची कमाय आसलेली?
कंय कंय ही पावल्यासतेली
गुरुध्वार, मंदीर, इगरज, पळ्ळेंनी
टाकिसांनी, होटेलांनी, गल्ल्या-गल्ल्यांनी
गल्लेंतल्या धंदो करच्या बायलांक भेटोंक येतेल्यांपरीं
कीतले नोट हिका भेटल्यान जावयेत
नरने, परने, परकटे, पान्नो घाल्ले
कीतले ड्यूपलिकेट नोट भेटल्यान आसतेले
कीतलीं क्रिया करम हिणे पळेल्यासतेली न्हय?
मंदीर-मसजीद भांदपांक दुडू जम्यिल्ली?
इगरज-घांटी, ढोलां-तोरणांक दुडू भरल्ली?
रेतिरो-नोवेनांचो, बेसांवां-लिसांवाचो दुडू काव्यिल्ली?
दुबळ्यांच्या नांवार जमो करन
अपल्यांक घुटान आसत-बदीक दिंवच्याक दुडू जमो केल्ली?

साहीत चोरून पतर छापून विखून दुडू एकटांयिल्ली?
खूरसाच्या, बाळकाच्या, जुदासाच्या उम्यांनी दुडू कमायिल्ली?
घर, कार, दूडवागारांचे इजार बेंजाराचो दुडू आसलेली?
जात आसलेली? व जाती भायली?
एलिसांवाक वोट मोलाक घेंवक गळसिल्ली?
कोंगरेसाची? बिजेपिची? समाजवादिची, किरीसतांवांची?
तर कोणाचिगाय ही परस?
    ट्रेयन स्यांडरस्ट रोड ऊतरोन
    फुडें गेल्यारी
    मत म्हजी अजून सवालांच्या गोंदोळांत शीरकाल्ली
    पीकललो पोर्णास फुटोन गरे भायर आयिल्लेपरीं
    पावसाक भिजोन वोताक सुकोन
    कोणेंगी लासुंक, कोणेंगी पुरुंक राकताली
    व परत जीव जावन
    कोणाचया तरी बोलसांनी लिपोंक
    व अपल्या धनियाक राकताली?
ह्या परसाचें नशीब तरयी पळेया तुमी
मेटां मेटांक मंदिरां, मसजीद पळळ्यो, इगरज, ग्रोट्टो आसोनयी
दिसाचें सरव सांतां–भकत, बाबा–फकीरां मधें
जाग्तीकरण, प्रग्तिपर देशांत आसोनयी
हिका जात ना, पारटी ना, प्रांत्य ना
पतरां–सायटिंनी तसवीर–संदेश सयत ना
टिवट्र एकवंट ना
ओरकूट–फेस–बुक्कांत आलबम सयत ना
    ह्या परसान सयत कीतलो मान जोडलोलो आसयेता
    पयल्या हफत्यांत मोगान
    अखरेच्या हफत्यांत तातसारान
    दीस काडल्यात जायजय तिणे
    घरच्या मेजांत तरयी
    कीतल्या मरयादेचे दीस काडलेले कोण्णा तिणे
    कीतलेशे पावटीं फेसताक मूडदोम जावन वाती घेतल्यात कोण्णा
    आसल्या परसाक आज कंगाल जावन
    गत नातलेल्यांपरीं
    एक्सूरपणांत, व्हळोक नातलेल्यां मधें
    दीस काडचें दूरभाग चिंतासतां
    ही क्रूर ट्रेयन किंग–सरकल ऊतरोन फुडें
    चलताली...
    संगीं म्हाकाय घेवून...!

– जुलाय २०११

# जंगल राज

त्या रानांतल्या दरभारांत;
जेदनां धेंक राववच्याक,
पियेल्लें रगात चड जातच्च,
जेमेंवच्या दोळ्यांनी,
बोकड्यावेसाच्या बोलप्यांनी म्हळें;
'आज सगळे मौन रावा'.

व्हारें रावलें हालचे रूक रावले,
ऊभची सुकी खोली रावली.
कांय भुकेक लागोन,
लोव पालो खातेल्या,
एका चीतळाच्या जांगेक,
कोल्यान लोव घास घालो.

परनी दूक ती;
अग्यान सयत घास घाल्लो,
तेच जांगेक, कांय तेंपादीं.
चीतळाची जाली बोब,
जेमेतेल्यांचे दोळे तांबडे,
खिणान चीतळाक कयद केलें;
'रानाचो कायदो पाळिनातल्याक!'

आतां जयलाक येतेल्या,
हरेकल्यांचे शीण, उपादेस, सल्हा,
'तुवें बोब मारूंक न्हजो आसली'

– अक्तोबर, २०१५

# कवी खंय गेले?

झड वारें आयलें चकरिवादाळ ऊटलें
गांवार गांव परतालो
बुडत गोल उदेलो आवर देंवलें
गांवार गांव व्हाळोन गेलो
दीसलोना म्हाका एकलो सयत कवी

कासाप्पी देंवले कसायगाय आयले
जीव मनजातीं सवें
मनशापणाचो सयत संहार जालो
रगतां व्हाळ्ळीं गिदां ऊभलीं
सनी लागलेल्या म्हाका
पुनेगेल्लो एकलोय दीसलोनामू कवी

चोर रीगले फारुंक चिरुंक लागले
कोणे गुदांवां भरलीं कोणें तोपां
अज़ाटमिच्ये परोबेवेळा वागावेसार कोलेयी नाचोन गेले
कोणाकच कळ्ळेंनामू सायभा देवा
पूण म्हज्या नद्रेक एकलोयी दिसलोनामू कवी

पोरच न्हयगी कविजो जालो भोजो
च्यार रसत्यारच न्हयगी ताचो भेतल्लो भेजो
ताच्या संतान कूटमाचे मरयादेक पेटताना उजो
जेमेल्ले मतिचे हिंवाळ कुडीक गुपीत शेक घेतल्ले
सरव म्हाकवी कंय गेले कंय मेले?

आतां येंवच्या दिसांनी आसाकेल्या कंय
कविता मांची
दरया देगेर दरभार सोभता भरान
मुंडास भांदचें कविता वासचें प्राकटीस चलता भरान
भोवशा सरव कवी हांगा पावल्यात जायजय

– माय, २०११ {चक्रीवादाळ = Storm}

# एक झडाची आशा

देवान रचल्ल्या भुमी वयकुटांत
आसल्लीं म्हज्यायी पूरवजांचीं मुळां
तांचिंच पाळां म्हणा फुलां या फळां
हेरांपरिंच फुलोंक पालेंवक
आनी बोवशा मातयेक सारें जांवक
कोणाक सावळी जा या दिंवचो मान जा
आपल्या जिवांत जायत तर त्राण जा
तेच रचणाराचें व्हारें उदाक माती सेवून
अपलोच रंग सुवाद दिवून
एक घडी फूलच्याक सगळें आवक सारून
वेळा काळाची हीकमत पळे
कोण कोण कंय कंय पावले
कोण देवाच्या गळ्यार हार जाले
कोणे रांडाचे केसार मार केले
बाकिचे वोडतांत सुकोन ससार जाले
आतां वोळिंतल्या व्हालिंचेरयी कांटे
कोणाक फांटेंच कांटे या कांटेंच फांटे
मेल्ल्या केंळब्याच्या दोरांत सयत एकवट जाता
अबलेशी आबळे जीवयांकच करतात वांटे
रंगाळ संसराच्या बाजारांतले खुंटे
आमकां बगेलां फक्त सोसुंकच
तांची जिणी आसची हेरांचेर हासोंकच
दीशट कुड्डी करून ताळो मोनो करून
आपल्यांक कापून मेळल्ल्यांक तोपून
जियेंवचीच भागी-जिणी म्हण पात्येतेलेच
वावर करयां दोराचो; नाराचो न्हय
जोडचो शिवाय मोडचो न्हय
मान दिंवचो शिवाय मान काडचो न्हय
जिवो ऊरलां अजून देकून
म्हजी एक आशा उचार करतां
ऊपरांत खुशे खुशेन मोरतां

– फेबरेर २०१५ वेर उज्वाड पतराचेर परगटल्या.

# सुशेगात निदा

चोर अयला चोरुंक लागला जागे आसचांनो सुशेगात निदा
कितेंय बाकी सोडल्लें विसरन सोडा आनी सुशेगात निदा

तिंतेरांत पिंतुरांनी आयचो संसार कंय लीपला
संसराक गुळे घाला तुमी कविंनो सुशेगात निदा

गांवांत बोंब फूटल्यात गांवार गांव लासता
वंदे मात्रम पदां गाया आनी सुशेगात निदा

कोंकणीक 'एक लिपी' वाद मांडतेल्यांक आतां
पोदोरन कोण विचारन सोडा आनी सुशेगात निदा

कोणा संपादकाक तूजयो कविता समजनांत कंय 'क्वाड्रस'
बेकूफांक संपादक म्हणा तुमी आनी सुशेगात निदा

– नवेंबर, २००७

# जिवीत

फुंकतां कोलीत
ऊटता धुंवर
पेटता उजो
शीजता पेज
...
...
अशेंच न्हय
चलता जिवीत!

– अगोसत, २०१५

# म्हज्या आव्यचीं सन्नां

कालचे रातीं म्हज्ये आव्यपरी
तांदू आनी ऊडदाची दाळ वाटून
सुरेची मूट भरसून दवरल्लें
पीट आज तेच्चपरीं फूगलां

पूण चोंदोरांत उकडलेल्या
तेच्च मोवाळ सन्नांक
तिच्च सोभाय आनी मोवाळाय
कित्याकगी ती रूचच्च ना

येंवची तरयी कशी
जेदनां आव्य त्ये पिटाक
सुरेसवें वोतताली
दयाळायेचो आवय मोग

– माय, २०१५ {सन्नां = Idlis}

# हांवयी एकलो

'मुंबयच्या' विरार – चरचगेट' ट्रेयनीर,
सभार 'मनीस' म्हळ्ळी जानवार,
'पयण' म्हळ्ळी 'अनिवाय करणी' अधारून,
सदांय 'दीस लोटचें' प्रेतन करच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

चरचगेट थावन आयिल्ली गूरवार ट्रेयन,
विरार पावतानांच, 'फसट क्लास' बागला दार धरन;
कांय इल्लो 'ऊसवास घेंवचें' प्रेतन करून,
पोतें भुती अपल्या बूसकोटा भितर चेपच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

ट्रेयनिंत कोणाचो ताळ, कोणाचें गीत,
कोणाचीं मंतर अनी कोणाचें शींतर,
कंय भजन, पठण, अनी कंय मिंडी कोट,
आंगाक आंग, घाम, आनी कोणा मात्या तेलाचो घाट सोसच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

ट्रेयनी भितर कोण काणी सांगता, कोण वाचता,
कोण पदां गायता, आनी कोण पदां आयकता,
कोण फोनार, कोण तकली बगलेच्याच्या खांदार दवरता,
कोणे पूसपूसचें, कोणे सासपोंचें पारकितेल्यांतलो;
हांवयी एकलो.

जांव 'फसट क्लास' व 'सेकेंड क्लास' तिच्य खेट, खोट.
भांयंदर दरयाचेर ट्रेयन वेतासतां, ताचेर,

कोण तेयल्यो भरून हाडललो खचरो उडयता,
अनी कोण बोल्सांतलीं नाणीं उडंवचें पळेंवच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

भांयंदर पावताना, लोका बोबांक,
सरगीं देव सयत कान धांपता.
कोण दोन, एका पांयानी अनी कोण एका हाताचेर,
कोण रयला पाक्याचेर, अनी कोण जनेलांचेर ऊमकळच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

मिरा रोड पावताना सासांव घालुंक मात जागो आसता.
तांतुंयी शेंभोरांनी पोटांगार, पेंटांगार, देंटांगार,
कोणाचो बुतांव तूटटा, कोणाचो नाडो सूटटा,
रयल भोवशा पुरासणेन सीगनलांनी राकचें सोसच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

ट्रेयन दहिसरांत सूटताना बोरीवली ऊतरोंक लोकांची खेट,
मधें एका खाडिचेर सदां ही ट्रेयन रांवची,
नाका नाका म्हळ्यारी दीशट सकलाच पडता.
कोण मूक करन कोण, पाट करन हागतेल्यांक पळेतेल्यांतलो;
हांवयी एकलो.

कोण धरखल उद्धता, कीरमे पीळता आनी पान (पीक) थूकता.
पक्क करन दीशट सकला गुंडियेक वेता.
ह्या संसाराचें सरव भूरशेंपण ह्या फंडांत आसा.
हो थूकचो लोकयी 'थरड क्लास' म्हणोन तेच्च फोंडांत थूकच्यांतलो;
हांवयी एकलो.

– जुलाय, २०१५

# दूसमान

ह्यो दिसांनी म्हज्या घरचे बालकनिचेर,
जेदनां आव्य पारवो खाण घेवन आयिल्लोच्च,
सुरू जातालो दोन ल्हान पिलांचो आवाज!.
कांय तांतियां पळेल्ले दीस थावन,
उभोन येवन बालकनिच्या ग्रिल्लांनी बसोन,
दोळे व्हाटारन पळेंवन बोबाटचो कावळोयी,
बालकनीक पळेवन केल्ल्या 'श!!' म्हज्या आवाजाक,
कावळो तशें पारवोयी उभोन धांवलो!.
थोडेच्च खिणांनी पाटीं परताल्लो पारवो,
म्हाकाच्च पळेताना, काळजाक भगलें;
'दूसमानाक धांवडायिल्ल्याचो ऊपकार'

कालचे सांजेर काळोक जाल्लोच्च,
परत सुरू जाल्ल्या आवाजांत,
ए.सी.कुडांत म्हजीं भूरगीं जागीं.
देकून बालकनीक देंवतां,
हळू त्या दोनीं पिलांक धरन,
अट्रा माळ्ये सकला घालतां.
आयचे सकाळीं बालकनिंत सक्कड शांत,
फक्त पारवो बोसोन म्हाकाच्च पळेता,
हांव मात लोव 'दोळे चुकयतां'.

– ज्यून, २०१५

# व्हकात नातल्ली पिडा

आदिंमागा लोक मोरतालो पिडेंत
बोळणुकेच्ये पिडेंत, खेवादेच्ये पिडेंत.

मागीर मोरोंक लागलो पिडेशिडेंत
क्यानसाराच्या पिडेंत, काळजाघाताच्ये पिडेंत.

यंतर तंतराच्या बदल्लेल्या ह्या काळार
सरव पिडेंक व्हकात सोधलां विग्यानान

दोळ्यांसमोर तासतात मासां व्हाळता रगात
आमच्ये कान तोंड दोळ्यांनी चेपला कापूस

आतां आमची साहितीक परजा व्हळवळोन जियेता
केदिंकच्च गूण जायनासचे 'डिपलोमेसिच्ये पिडेंत'

– माय, २०१५ {खेवाद = TB}

# सूटका

पोर तो सूटलो
आज ही सूटली
फाल्यां तेयी सूटंतेले

उपरांत संसारभर
नीरभय आनी स्वतंतर
व्हडांक आनी भळीशटांक

जेदोळ परयांत
ह्या बजारी संसारांत
असकत मनशाकुळाचो
कोणयी मोडिना खोडो

– अगोसत, २०१५

# तांची क्लास आनी म्हजी क्लास

तो पूनवेच्या चान्र्याच्यो हासो घेवन आयलो
म्हज्या घरच्या आंगणाचीं मेटां चडोन
मायामोगाच्ये बोशियेर व्हाडल्लें जेवण जेवलो
दाधोशी जेवून तेच्च बोशियेर हात धूवन गेलो

हो आमासे रातिच्या परजळीक नेकेत्रापरीं
भांगराच्याकी परजळीक हासो घेवन आयलो
मयपासाच्या गोबळ्यांत काळीज कडवन दिलें
सुशेगात पियेवन तेच्च गोबळ्यांत थुकून गेलो

'व्हयरे आपा तूं पिसो तरयी कसलो?'
भितरलो कवियी आतां म्हजेर खुबाळ्ळो
हांवें हासोनशें ताका जवाब दिली;
'तांची क्लास ताणीं, म्हजी हांवें' धाख्यली.

– सप्टेंबर, २०१५

# रश!!

हळू उलय हळू बरय
काळीज कांपत काळीज रावत
मोडले देंट सुजले वोंट
देंवलो दीक मत वीक वीक
नेणतो जांटो भांदून येंटो
भंवता देसांतर जावन पिसांतूर
जांट्या नेंत्यांक जाग्नाका
अवाज नाकाच्च नाका
रश
हळू उलय हळू बरय
रगात घेट्टेता काळीज धडदटता
कायनाची चुरी जुदासाची दोरी
अजून जिव्यो ऊरल्यात
मान्नाचें खाण वायनाचें भाण
यादिंक पुराय पूरल्यात
पुरिनासताना सोडल्ल्यांक धोसिनाका
काळीज भेसां – अय्यो नाका
रश
हळू उलय हळू बरय
आतमो भिंयेत इमाज धांवत
हातीं फातोर जेजू समोर
सूरवात करी कोण तरी
तिंनादरयो सृकला पानकां लीखतां
कोणाक सोडी, कोणाक धरी
रितीं बोडां भरचीं नाका
असकत काळजां शिंदचीं नाका
रश
हळू उलय हळू बरय
कवी भिंयेत कवी जागो जायन

– जुलाय २०१५

# म्हज्या गांवार

सदांय सोभाण म्हज्या गांवार
कोण सुटार कोण बुटार
आनी कोण नव्या कोटार
हांवगा शिंवतां पाकें
ना कोलू म्हज्या घरच्या पाक्यार
गांवांतमुंगा व्हडील सभार
कोण कारार कोण जिपार
आनी कोण मरसिडीस बेंजार
हांवगा हांगा शिंवतां
ना घालुंक व्हाणो पांयार
सगळे विध्वान म्हज्या गांवार
कोण कानूनगार कोण देवोतगार
आनी कोण साहीतकार
हांवगा धांप्तां कुले
ना लिपंवक वसतूर आंगार
गांवार म्हज्या पटेल अपार
कोण पेंटागार कोण ऊरमालगार
आनी कोण मुंडासगार
हांवगा उपाशीं हांगा
ना शिजंवक शीत म्हज्ये मोडकेर
गांवांत म्हज्या नवोच सर्कार
कोण सुबेदार कोण मुन्सूबदार
आनी कोण पुनेवंतगार
हांवगा कवी कोंकाणिचो
ना कूडको सुताचो पेंकटार
सगळे आसातगा आमच्या गांवार
कोण युकेगार कोण अमेरिकागार
आनी कोण गलफागार
हांवगा भकत कोंकणिचो
देकून जियेतां कठ्टि दांड्यार

[जनेर, २००९ ईसवेंत कविता.कोम चेर परगटल्या]

# येया मंगळूर श्हेराक

भातां शेतांनी नारलां तोटां
रेंवेंत पांय भुकीं पोटां
ऊभले पारवे परगांवी कण जमंवक
सरलां जमंवक, नलियो विंचुंक
येया मंगळूर श्हेराक

भागिंतल्या वोळिंनी कम्युनिसटांचें भिरें
गांवांतल्या शाळेंनी परदेसी सारें
न्हंयो थकल्यात बांयो सूकल्यात
रगतां गळंवक घाम व्हाळंवक
येया मंगळूर श्हेराक

रसत्या कणिंनी 'आपले' अशीर वोणिंनी
घरचे आल्तारेंनी 'बोलपे' राज रसत्यांनी
शोकेजिंनी बोनली 'विदेशी' नशा शिरांनी
नीद सुटंवक सलाम मारुंक
येया मंगळूर श्हेराक

हातीं फानोर दांत खीरलोणी
मनीं भितर विकाळ पोडकाणी
ईजनेर वयज कूजनेर दायज
बली चडोंक बली भेटंवक
येया मंगळूर श्हेराक

– अगोसत, २०१५ ईसवेंत कविता.कोम चेर परगटल्या]

# देवोंक सोडागा

कूड नीतराण चूकता सयरण
असकत मन चिंतपाक ना त्राण
ऊसवास भांदता जीव कांपता
म्हाका देंवोंक सोडागा...

कांव्याचो वोंयो अशीर बांयो
रगताळ न्हंयो कोणी जियों
व्हकात घालतां कुसोंक सोडतां
म्हाका धांवोंक सोडागा...

जीव सुखाचो पवीतर चिंतपाचो
सांता भकतांचो मागणें वोरेसांवाचो
कान धांपतां दोळे धांपतां
म्हाका जियेंवक सोडागा...

– जुलाय, २०१५

# रायाची फीयाद

साहितीक शिपायगा, कविंचो हांव रायगा, मुकूट मात ना मात्याक!
सांगोंक गेल्यार लजगा, पोटाक नां पेजगा, सांगचें तरयी कोणाक

पतराचो संपादकगा, बुकांचो प्रकाशकगा, बोबाट मारूं कित्याक?
पेंकटार ना नाडो, संसराक लजमांडी पाडो, आसा कोणी पावोंक

दांडियेंनी रास शालां, गुदांव भल्यांत फुलां, मन आसा पळेंवक?
बोलसांत आतां देडकी ना, काळजांत देकून ऊडकी ना, मतीक कशें समजांव?

नाटकांचो सरदारगा, काणयांचो ऊसतादगा, हांव लाखांनी एक
कोंकणी म्हजी आव्य, बुकांक म्हज्या व्हाळय, रुदान करूं देवाक?

गुमाट असा धोल ना, मांदरी आसा वोल ना, कोंकणी जाल्या फिरगी
रानांत मोराक मोर ना, गांवांत किराक कीर ना, सांगात जाला परकी

सर्स्वती न्हंयचो घूनगा, पांच लिपियांचें शनगा, आमच्या मांयभासेक
जात-कानिचें झगडेंगा, कोंकणेक सदांच लफडेगा, कशें धरूं जुदासांक?

सत सांगोंक जायनांगा, देकून मांकोड जाला वागगा, शेरांतुल्या दर्भारांक
राय जावनंच ऊरतां, रित्या पोटारच मोरतां, फिकीर कोणाक आनी कित्याक?

– दसेंबर, २००५ {गाकणो साहितीक स्परध्यांत पयलें इनाम लाभल्ली कविता}

# कितें – थोडीं सवालां (कोंकणी गझल)

पळेलें जिवीत ईतलें लागशिल्यान, हांवें शीकल्लें तरयी कितें?
आज रूक–मनजाती लेगून विचारतात, 'मनशापण' म्हळ्यार कितें?

तोंडां हांवें जायतीं पळेल्यांत, मुखोट्यांच्या धांपण्यांनी लिपयतात
पूण काळजां मापुंक सकचें, यंत्र म्हाका मेळातगी कितें?

येदोळ जियेलां हें चिंतून; 'कोंकणीन म्हाका दिलां तरयी कितें?'
आज हांवच म्हाका विचारी; 'हांवें कोंकणीक दिलां कितें?'

जिण्येधांवणेचो शेवोटच खरशेवणी तर; तांचें आनी म्हजें म्हळ्ळें कित्याक
तांचें ते सोडून गेल्यात, आतां म्हजें म्हळ्ळें व्हरूं तरयी कितें?

देव–देंवचार भास–लिपी अपलो–पेलो मधें उभो जाला 'बजार'
अतमो अंतसकरन मारून जियेतेल्यांक विचारा 'समरथी' म्हळ्यार कितें?

वादाळ ऊटलें व्हारें आयलें, उभोन गेलें घर पाकें
पागोर उभार दूडवा दरभार, थीर आसचें तरयी कितें?

मतीक थालें तोंडाक बिगां पदवेर बसयल्या पूतळी
मनशा सवालांक कोलयांच्यो जापी, कोणाक पडोन गेलां कितें?

[१५ जनेर २०१७ वेर कोंकणी भाशा मंडळ मुंबय हाणीं आयोजीत केल्ल्या देजे.बी.मोरायस अनी देजे.बी.सिकवेरा स्मारक कवितास्परध्यांत पयलें इनाम लाभल्ली कविता]

# सांज जाली

तुवें येतां म्हळेंय, राकोन राकोन सांज जाली
मोग नासतां वरसां गळळीं, आतां जीणयेची सांज जाली

गेलो एका सकाळीं, सोधून मोग संसारी
जिणिंच काबार जाली, तवळ मोगाची सांज जाली

मोळबार एक नेकेत्र उदेलें, तारां मेजतां मेजतां
मधेंच लेक चूकलें, आनी चान्र्याची सांज जाली

सताच्या घरांत नितिचें पाकें भांदुंक लागलों
फटीन अशीय धाड घाली, आबळे सताची सांज जाली

काळजांत कितें लासलें, सांग म्हाका तूं 'क्वाड्रस'
गांवार गांव धुंवर ऊटलो, अशी कविची सांज जाली

[२००५ ईसवेंन कुवेयटांत कवितापाठचेर चलल्ल्या 'गझल' अध्ययनांतल्या ह्या गझलाच्या तुळ्र अणकारक (ओंजी गझल) तुळू साहित्य अकाडेमीन आसा केल्ल्या साहितीक स्परध्यांत इनाम लाभलां]

# उपादेस

हाणिंच न्हयगी
कुडायिल्लो आमकां?
आमच्या जोपड्यांतल्यान
पाशार जाल्लें व्हारें
तांच्या टेरेसा वयलें
आंटेना हाल्य्ता म्हणून

आतां आम्च्या जोप्ड्यांनीं
लुटोनासा मान
पेटोनासा उजो
लासोनासात काती
आनी तांचो उपादेस
'मायामोगाचो'

– माय २०१५ {उपादेस = Commandments}

# पाटीं पळेनाका

रांवचें सगळें थांबचेंच
चलचें सगळें हालचेंच
रांवचें न्हय चलचें आतां
व्हारें पावस मेजता आवस
मेटां सांभाळून तकली उभारून
मुकार सरुंक आसा
... पाटीं पळेनाका

वोतांत सगळें सूकचेंच
ल्हारांक सगळें धलचेंच
थकचें न्हय चलचें आतां
येंव भेंडाप आसूं खेंडाप
दीवटी पेटवन भरवसो आरावन
पोंतांत पावोंक आसा
... पाटीं पळेनाका

वांचचे सगळे सोसचेच्च
सूकल्लें सगळे झडचेंच्च
चिंतचें न्हय चलचें आतां
आसूं सोमगोळ उदेंव भोगोळ
चिंतनां उटवन काळजां पेटवन
शेवोट जोडुंक आसा
... पाटीं पळेनाका

अक्तोबर २०१६ इस्वेच्या दिवो पतराचेर परगटल्या

## वल्ली क्वाड्रासाचे पर्गटल्ले बूक

**कविताजमे:** **च्यार मुखां** (२००३, कानडी आनी नागरी लिपियेंत), **कटपूतळी** (२००५, कानडी अनी नागरी लिपियेंत), **दरभारांतली पिंरगोण** (२००६, कानडी लिपियेंत), **बजार** (२०१७, कानडी लिपियेंत), **बजार** (२०१८, नागरी लिपी)

**हेरांनी परगट केल्ले बूक:** **कुपां पोंदर्ली मुखां** (२००३, कविता प्रकाशन), **काळोकांतलीं कांतारां** (२००४, कविता प्रकाशन), **शेकड्याच्यो कविता** (२००६, करनाटक कोंकणी साहीत अकाडेमी)

**कविता अध्ययनाचे बूक:** **कवितापाठ – १** (२००५), **दरयाक उदाक** (२००६), **काळोक नातल्लो गांव** (२००७), **मूगदनातल्लीं गितां** (२०१७)

**मटव्या काणयांचे जमे:** **आशावादी** (२००२), **खिळो** (२००३), **कंगाल आनी ताची कुक्केहळ्ळी** (२००५), **सतां आनी खतां** (२००५), **बंध** (२०१७)

**हेर बुकांनी:** **शेकड्याच्यो मटव्यो काणयो** (२००६, करनाटक कोंकणी साहीत अकाडेमी)

**कादंबरी:** **मोगा म्हज्या** (१९८८, कुरोव), **संघरश** (१९९१, स्व–प्रकाशीत) , **पार्टी गांवाक** (२००५, पयली कोंकणी ई–कादंबरी)

**इंगलीश भासेंत:** **नवरत्न** (२००४ इस्वेंत अखील भारतीय लेखकांच्या एक्तारान कुवेयटांत पर्गट केल्ल्या ९ वेवेगळ्या भासेंच्या अनी तांच्या इंगलीश अनुवाद कवितेंचो बूक)

**तुळू भासेंत:** **मुडिपू** (२००६ इस्वेंत तुळू साहीत अकाडेमीन पर्गट केल्ल्या बुकांत इनाम लाभल्लीं; काणी आनी कविता पर्गट जाल्यांत)

**परगट केल्ले हेरांचे बूक:** **जिविता सोभाण** (जोरजी पींत आयकोळ), **कयद्याच्यो कविता** (एच्चेम पेरनाल), **व्हळू व्हळू व्हाळ व्हाळ्या** (आंड्-यू एल डी'कुन्हा), **बामुणाचें चेडूं** (एच्चेम पेरनाल), **विंचणार चिंताप अनी भगणां** (जेम्मा पडील), **सरगावयली मांय** (रोनालड ओलिवेरा), **मोतियां आनी तारां** (वेवेगळे कवी), **सागोराच्या वाटेच्यो झरी** (वेवेगळे कवी), **अडोसांतलीं फुलां** (आसटीन प्रभू), **आटव्या रंगाचो धोणू** (मेलवीन जे. वास), **शिंपडलेलीं मोतियां** (वेवेगळे कवी), **मुखां पाटलीं रुपां** (अनील पेरनाल), **कूलकुलो** (सीजयेस ताकोडे), **तिंतेरांत पिंतुरां** (वेवेगळे कवी), **म्हौंव आनी मूस** (मेलवीन पिंटो नीरुडे), **आपवीतर संबंध** (वालटर लस्रादो), **सरगावयली मांय** (रोनालड ओलिवेरा), **मोनी बोब** (जोन सुंटिकोप्प)



## वल्ली क्वाड्रस

१९६७ ईसवेच्या जुलाय २३ तारिकेर अजेकार गांवांत जलमाल्लो वलेरियन आलवीन क्वाड्रस, MBA (Information Systems) पद्युत्तर, BCA, PGDCA तशेंच PMP, Prince2, Six Sigma Green+Blackbelt, ITIL v3 Expert, Cobit, ISMS certified IT professional.

'च्यार मुखां' (२००३), 'कट्पुतळी' (२००४), 'दरभारांतली पिंरगोण' (२००६), 'बजार' (कानडि लिपि: २०१७) ह्या आधिं परगट्ल्ले कविताजमे. कादंबरिचे तीन बूक, कविता अध्ययनाचे च्यार बूक, मट्व्या काणियांचें पांच बूक हाचे परगट जाल्ले स्वताचे बूक.

कोंकणि साहित्यांत पाट्ल्या तीस वर्सां थाव्न कारयाळ वाव्र करुन आस्च्या हाणें www.daaiz.com (2004-2011), www.poinnari.com (2015 थाव्न) संपादक्पण चलयिल्ले/चलंव्चे जाळिजागे. दिवो साहितिक पुरस्कार (२००३), कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमि विशेस बूक पुरस्कार (२००५), कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमि अत्युत्तम बूक पुरस्कार (२००६), कविता ट्रस्टाचो मथायस कुटम पुरस्कार (२०१७) हाका लाभ्ल्ले पुरस्कार.

– आशावादी प्रकाशन




Ashawadi Prakashan

ptd@assisipress 0824 2492816